# बोन्साय

(काव्य संग्रह)

अभयकुमार वेलींगकार





**शणै प्रकाशन**

वेलींग

**बोन्साय**

(काव्य संग्रह)

**अभयकुमार वेलींगकार**

**Bonsai**

(A Konkani Poems)

By : **Abhaykumar Velingkar**



उजवाडावपी :

**शणै प्रकाशन**

वेलींग - म्हाड्डोळ

गोंय 403404

मोबायल - 9423884687

पयली उजवाडावणी :

**मार्च 2020**

प्रकाशन क्रमांक : **61**

छापपी :

**रिया ग्राफीक्स**

पोरणें गोंय -403402

मुखचित्र :

**सिया अतुल पंडित**

9764887346

**मोल : रु. 150/-**

**ISBN : 81-86390-19-7**



मोगाळ इश्ट
**बाबली नायक**
हांकां
मायेमोगान

**-अभयकुमार**

# 'बोन्साय' ची जल्मकाणी

म्हजो इश्ट बाबली नायक सुनापरान्ताचो संपादक जालो आनी त्या दिसाच्यान म्हजे फाटीक लागलो म्हणल्यार जाता. एकूच पालुपद, 'बरय रे, कितें तरी बरय.' तो फाल्त म्हणून आमचो काणकोणचो इश्ट आरबीएस कोमारपंत. तोवूय मदीं मदीं फोन करतालो. 'तूं आसा म्हणून कळच ना मरे. बरय रे कितेंय. त्या निमतान तरी तूं आसा म्हणून कळुंदी.' आतां कशें सांगप हांकां. बरप म्हणटा तें सुचूंक जाय आनी सुचतकूच बरोवंक बरो वेळ मेळूंक जाय. पूण हे आयकचनात. इतल्यान 2014 ची वेंचणूक आयली आनी अकस्मात म्हाका राजकीय विडंबन सुचलें. एक दोन कविता बरोवन धाडल्यो जाल्यार बाबलीचो फोन. 'अभयकुमार दर दिसाक एक दिता जाल्यार छापतां.' आसूं रे, नाका छापूंक अशें म्हणपाची पाळी. पूण कशें तें खबर ना, पूण वेंचणूक जायसर दर दिसाक एक कवन सुचलें आनी तें 'शबय शबय' ह्या सदरा खाला छापून आयलें.

वेंचणूक सोंपली आनी बाबलीचे फोन परत सुरू जाले. 'असलेंच कितें तरी बरय मरे.' निमाणें ताणें म्हणलें, 'सध्या खडीसाकर नांवाचें एक सदर सुरू केलां. सप्तकाक एक फावट तातूंत बरोवपाचें. हेंय जमना म्हणून सांगू नाका.' म्हणलें पळोवया यत्न करून आनी बरोवंक सुरवात केली. सुरवेक मात्शें कठीणशें दिसलें. तरी थारायलें, बाबलीच्या उतराक मान म्हणून कांय तेंप बरोवप आनी उपरांत बंद करप. पूण एक  दोन कविता छापून येतकूच जायत्या जाणांचे फोन आनी मॅसेजी येवंक लागल्यो. आपणाक कविता आवडली म्हणपाचे फोन. बरें म्हणिल्लें कोणाक आवडना? पूण लोकांनी बरें म्हणलें म्हणजे तकलेर तशें दडपणूय येता. मुखार बरयतलों तें बरेंच जावंक जाय अशें दिसता आनी हाका

लागून केन्नाय बरोवप बंद पडता.

पूण तसो वेळ आयलो ना. मे 2014 ते जुलय 2015 मदीं अखंडीतपणान कविता रचल्यो. दर सप्तकाक एक दोन कविता सहजपणान येवंक लागल्यो आनी त्यो सुनापरान्तांत उजवाडायल्यो. हें घडपाक कारण थारले ते लोक जांणी म्हजी तोखणाय करून उर्बा दिली. आनीक एक मनीस हाका कारण थारलो. पणजेचो एक अनवळखी मनीस जाणें आपल्या मॅसेजीं वरवीं म्हाका उर्बा दिली आनी खडीसाकर गोड केली.

त्योच ह्यो कविता आयज 'बोन्साय' नांवान उजवाडाक येतात. त्या अनवळखी मनशान धाडिल्ल्यो मॅसेजीय ह्या संग्रहांत छापल्यात. ह्या कवितांचें सगळें स्रय खरें तर त्याच मनशाक दिवंक जाय. हो अनवळखी मनीस म्हणल्यार पणजेचो भौ. प्रमोद कुडचडकार. हो संग्रह उजवाडायतना बाबली नायक, आरबीएसा वांगडाच प्रमोदबाब कुडचडकाराकूय दिनवासतां.

**– अभयकुमार**

# मॅसेजी...
# उर्बा वाडोवपी...चैतन्य जागोवपी

(भौ. प्रमोद कुडचडकार हांच्यो ह्यो मॅसेजी म्हाका स्फूर्तीदिण्यो
आनी प्रेरणादायी थारल्यो.)

This refers to 'jeevitache sat' in Sunaparant. Writing was impressive.
Every word was perfectly in place.

20. 08. 2014



This refers to 'Mukti' in todays Sunaparant. It made excellent reading.
One of the best in recent years. Last four lines deserve special
mention.

14. 01. 2015



Major part of 'Maran' was very impressive.
Last four stanzas were outstanding.

22. 01. 2015



'Ami ashe kashe' in Sunaparant dated 15. 04. 2015
made an excellent reading.

18. 04. 2015



This has reference to 'Kalchen Goem' in Sunaparant.

It was wonderful writing to say the least.

29. 04. 2015



This refers to 'Dev mhanlyar kiten' in Sunaparant.

It was one of the best I have read.

11. 06. 2015





# मांडावळ

1.

## तो जिखलो

तो आयलो
तो उलयलो
ताणें सपनां दाखयलीं
लोक भुल्लुसले
आनी तो जिखलो.
सगळ्यांनी ताका माथ्यार घेतलो
कालूय हेंच घडिल्लें
आजूय हेंच घडटा
पूण कालचो तो, हो नासलो
तरी तो जिखिल्लो
ताकाय सगळ्यांनी उखलिल्लो
हें सदांच घडटा
जिखिल्ल्याक सगळेच नाचतात
पडिल्ल्याक कोण विचारता?
उदेत्या सुर्याक नमस्कार
सगळेच करतात
संवसार हो असोच
जिखिल्ल्याक माथ्यार घेवप्यांचो
आनी हारिल्ल्याक
खोंटायत वचपाचो
पूण एक विसरूंक फावना
पडिल्ल्यांकूय फुडार आसता
आयज ना फाल्यां तो
वयर सरता, फिनिक्सावरी.



2.

## फोटू

बरय बरय म्हणटात
देखून बरयलें
भरभरून बरयलें
तर, नांवान कित्याक बरयना
तो तूं म्हणून आमकां कळच ना
नांवान बरोवंक लागलों
तर, फोटू कित्याक दिना
नांव सांगले बगर तुजी
वळख मेळना ...
हेरांक पळय, फोटू बगर
कशेच रावना
वेगवेगळ्यो घेवन पोझी
जरी सोबना
हांकां खंय खबर
हांव फोटूक भियेतां
फोटू म्हणल्यारूच
धांव मारतां
म्हज्या घरा फोटू आसात
वणटी सोबयतात

फुलांचे हार घालून
मोन्यांनी बरे बसतात
फोटू म्हणटकूच म्हाका
तोच उगडास येता
कांय खीण हांव वचून
तेच पंगतींत बसतां
आनी म्हाकाच पळोवन, कांचवेतां
देखून हांव केन्नाच फोटू काडिना
फोटवाचे फास्कें‍त बसूंक सोदिना
फोटू म्हणल्यार मारतां धांव
खऱ्यांनीच, असोच हांव.

◆◆◆

3.

## बरय मरे

तूं बरयना कित्याक
बरय मरे
दर एकल्याचें सांगणें
तांदूळ ना, उदक ना, गॅस ना
रांदूं कसो?
तांदूळ दुकानांत, उदक नळांत
गॅस पोटांत
आदन शिजतलें कशें?
पानार पडटलें कशें?
दुकानांतले तांदूळ हाडूं येता
नळाचें उदक घेवं येता
पोटांतलो गॅस जळोवं येता?
पोटांत कांय नासतकूच
जातलोच न्हय गॅस
तातूंत म्हूण वाडटलें
कुडी वयलें मांस!
हातांत कांय नासतना
पेन कशें चलतलें
भितर कांय नासतना
कागदार कितें येतलें?
कोण हांकां सांगतलो
आपलें पिरपिरें
देखून आयकून वोगी रावतां
'बरय मरे, बरय मरे.'



4.

# नियती

नियती म्हणल्यार कितें?
कोण सांगतलो
पूण नियती म्हणून आसता
अशें सगळेच सांगतात
कोण तरी एकलो
परिस्थिती कडेन झगडत वयर येता
दीस बरे आयले शे दिसता
दोन घांस सुखान खातलों
म्हणल्यार नाच जाता
खेळ कोणाचो, नियतीचो
कोण काय ही नियती
कोण सांगतलो?
संकल्प आनी सिद्‌धी
हांचे मदीं खंय आसता नियती
अशें शंकरदाद म्हणटालो
ताणेंय संकल्प सोडिल्लो
आपलो कवितां झेलो काडपाचो
एकावनाव्या वाडदिसाक
एकावन कवितांचो संग्रह
ताचे इश्ट एकठांय येवन काडपाचे
वर्सां वचत गेलीं पूण
इश्ट एक जावंक पावले नात
संकल्प सिद्‌धीक पावलोच ना
नियती आड आयली
शंकरदाद सोंपलो पूण संग्रह आयलो ना
अजून नियती आड येता आनी
शंकरदादाची याद जाता.



5.

## हॅल्मेट

तकली आसा म्हणून हॅल्मेट
काय हॅल्मेट आसा म्हणून तकली?
तकली खाजोवपा सारकी खबर
म्हज्या मतान, पुलीस आसा म्हूण हॅल्मेट.
हॅल्मेट केन्ना घालतात,
पुलीस वाटेर रावतात तेन्ना.
नासल्यार हॅल्मेट हाताक, दुचाकी फाटल्यान
नाच जाल्यार पांया कडेन
बुद्द धोंपरांत, तकली पांयार.
दिसलो पुलीस, चडयलें हॅल्मेट
पुलीस गेलो, हॅल्मेट शेणलें.
मडगांव ते फोंडें सदचो म्हजो प्रवास
हातांत स्कुटर, तकलेक हॅल्मेट
तकली म्हजी, हॅल्मेट म्हजें, हेरांक अडचणीचें
सगळेच करतात सिग्नलां,
मुखार पुलीस आसा व्हय?
ना, ना सांगतना मान म्हजी दुखता
तरी विचारतल्यांक सांगचेंच पडटा.
कोणेंय आतां मारली लायट
तकलेक लायलो हात
मान आपशींच हालता, ना–ना म्हणटा.
मानेक आतां जाल्या संवय ना ना म्हणचेली

आसूं-नासूं पुलीस  मान फकत हालोवचेली
पयरूय अशेंच घडलें
एकल्यान तकलेक लायलो हात
संवयेची हाल्ली मान, मारलो ताचो घात
मुखार गेलो, पुलीस दिसले बेजारून परतलो
फाट म्हजी धरून म्हजेर मातसो तणतणलो
आसा मुखार पुलीस तरी ना कित्याक म्हणलें?
पुलिसेचें कसलें गणीत, म्हाका खंय कळ्ळें!
मान हालोवन तुवें ना कितें म्हणलें,
तकली म्हाका आसा काय तुवेंच विचारिल्लें!
तो आनीक बेजारलो, तकली ना?
मागीर हॅल्मेट कित्याक
ना हें कळचें न्हय म्हणून लिपोवंक.
बेजारून तो गेलो, आयकतलो हांसूंक लागलो
ताकाय हांवें म्हणलें, हॅल्मेट गरजेचें
तकली आसल्यार सांबाळूंक,
नासल्यार लिपोवंक हॅल्मेट घालप गरजेचें.



6.

## मीर्ग

मीर्ग आयलो, मीर्ग गेलो
मीर्ग आसलो सुको
पानवळ हें भोगपाचेंच
केल्यात न्हय गा चुको
झाडां मारलीं, दोंगर तासले
शेतां उडयलीं पुरोवन
हजार वर्सां लागिल्लीं सैमाक
आमी खिणांत उडयलें झरोवन
कोणाक म्हणून शिणपाचें
आमचींच सगळीं पातकां
हाचेर ताचेर धुकलपाचीं
करचीं कित्याक नाटकां
दोन वेंतां पोटा खळी
भरून आमची भरना
सात पिळग्यां पोटली केली
तरीय सोंस वचना
घडटल्या घडणुकांक
आमीच जबाबदार
एकदम मेळचीं भांगरा तांतयां
म्हणून मारलो कोंबयेर फार
दर वर्सा येवपी पावस
हुंवार-दुकळ हाडटलो
अजून सुदारले नात तर
मनीस सामकोच शेणटलो.



7.

## संस्कृती सेमींव

धोतर सुटलें
पॅण्ट आयली
सोडून कापड
न्हेसली सलवार
कोणें काडली तलवार?
पेंवतना घाली बिकिनी
तर कित्याक जावचो फार!
संस्कृती केन्ना बुडली
सोऱ्याच्या कोपांत
घरांनी शिजलें मांस
भाजयेच्या तोपांत
संस्कृती वचूं तेल लायत
सत्ते कदेल मेळ्ळ्यार पुरो
पाद्री सेमींव व्हनयेक न्हय
मतां खातीर वांट्टी सोरो
आतांच कशें सुचलें
पब न्हय म्हणून संस्कृती
रेव्हेन्यू वाडोवचे खातीर मगा
तुमीच हाडल्या ही विकृती
पुरो जालीं सवंगां
आतां मात्शे कामाक लागा
किरवंट कशी जोडली तुमी
तेंय मात्शें जगाक सांगा



8.

## तस्मै श्री गुरूवे नमः

न्हंयचें मूळ, ऋषी कूळ
विचारचें न्हय केन्ना
जाण्टे आमचे सांगताले
आमीय मानून घेताले.
उपरांत केन्ना विसरून हें
न्हंयेचें मूळ सोदूंक भोंवले
आतां आमचे ऋषीतुल्य
संताकूळ सोदूंक लागले.
जात-धर्म आम मनशाक
संतांक त्यो लागनात
संतांच्यो विभुती जगा कल्याणाक
अशें आमी मानताले
जात-धर्म सोदपी हे गा
आयचे संत कसले?
गंडो बांदतना कोणें
गुरूचो धर्म म्हणून विचारला?
वेगळ्यो धर्मा शाळा म्हणून
शिकचेलो कोण सोडून गेला?
'सबका मालीक एक' म्हणपीच
आसता खरो गुरू
जाती-धर्माच्याय फुडें
आसता ताचें कार्य सुरू.
ताकाच मानतात देव
जो करता बरें कार्य
सगळ्यांक व्हरता वांगडा
तोच थारता श्रेशठ आचार्य.



9.

## आमी हे अशे

आमी कशे आमी अशे
कळून सगळें, वळना तशे
आमकां सगळें लागता
जात लागता, धर्म लागता
हाचे खातीर आमी
एकमेकांचे जीव घेतात
आनी वेळ येता तेन्ना
दुसऱ्यां खातीर जिवूय दितात
केन्ना कोणाक परकी मानतात
केन्ना परक्यांक आपलो मानतात
सामके ताच्या मोगांत पडटात
ताका मना गाभाऱ्यांत बसयतात
हातूंतल्यान केन्नाय क्रांती घडटा
कोण एक फकीर साई
आमच्या देवळांत वचून बसता
आनी आमचो कबीर
ते वेंगेत घेवन बसतात
असले क्रांतीक आमचो सलाम
मुखारूय अशेंच घडचें
असलेंच करुंया आमी काम
सगळे आमी जावंक एक
करुंया काम नेक
आमी हे अशे... अशेच
सगळ्याच्याच पलतडचे.



10.

## बोन्साय

आमचे हातपांय कोणें बांदले नात
वा आमचीं मुळांय कोणें कापलीं नात
तरी हाका-ताका 'हय सायबा' करीत
आमी सामके खुजे जाल्यात
आमचे आमकांच शेणोवन बसल्यात
बोन्साय म्हणल्यार कितें वेगळें तर?
वयल्यान आयिल्ले हुकूम आयकुकूंच जाय
सगळेच हुकूम ऑर्डरी नासतात
कांय रिक्वेस्ट आसतात, कांय सुचोवण्यो
सगळ्यांक 'यस सर' म्हणुंकूच जाय
तुजें मत, तुजे विचार तुजे कडेन दवर

नोकरी सांबाळूंक सायबाचें आयकुचेंच पडटा
सायब म्हणून तरी खंय मेकळे
ते आमच्याकूय आसती खुजे
तांकां मंत्र्या-संत्र्याचें आयकूंक जाय
नासल्यार बदलेची तयारी दवरूंक जाय
हय आसल्यारूय न्हय, आनी न्हयचें हय
रिटायरमेंट मेरेन अशेंच रावंक जाय
ते गेले तेन्ना दिसलें पोरणें सोंपलें
आतां खऱ्यांनीच अच्छे दिन येतले
आमचें खुजेपण वचून आमी मातशे वाडटले
पूण हे तरी खंयचे वेगळे, हेय तांतलेच
आनी आमी, आमचींच मुळां कापून घेतिल्ले
सगळे विचार गुठलावन बोन्साय जाल्ले
वैयक्तीक विचार सरकारांत चलनात
देखून रिटायर जायसर यस सर करपाचें
हात-पांय बांदुनूच जगपाचें, बोन्साय जावन.



11.

## हांव

एक हांव-हय हांव
म्हज्यांत एक हांव आनी
म्हाका एक हांव ...
हें खावं-तें खावं
कशीच मरना ही हांव
धान्य खालें, दुडू खाले
जमनी खाल्यो, भांगर खालें
खावन सगळें अजीर्ण जालें
तरी भागना ही हांव
'हांव'चो जाता वखवख
मागीर सगळोच घात
इश्ट-वांगडी सगळेच
सोडून दितात हात
पडले तरी नाक वयर
अशी हांवेची जात
कशीय तरी सांबाळटा
आपणाली कात
एकदां मान बावगतकूच
उरतलें कशें नांव
पयलींच देखून मारूंक जाय
'हांव' कडसून धांव.



12.

## जिविताचें सत

एक भाटकार गेलो
ताका सूटबूट घालो आनी
चवगांनी उबारून कायशांवांत घालो
मड्या गाडयेंत घालून फुडली यात्रा सुरू
फाटल्यान जायते लोक माती घालूंक
जिवीतभर तो धांव-धांव धांवलो
दुडू जोडूंक हांगा-थंय भोंवलो
घर-दार सोडून जोडी फाटल्यान लागलो
भरपूर जाली जोड तरी आस सोंपली ना
भाटां घेतलीं, घर बांदलें पूण घरा रावलो ना
जायतो आसलो दुडू तरी जिवीत गावलें ना
दारांत गाडयो चार, एकूय व्हरूंक जाली ना
दोन माळयां घर पूण कुडीक एक कायशांव
हेंच सत जिविताचें
चारूच दीस म्हजें-म्हजें करपाचें
वतना, रिकाम्या हातांनीच वचपाचें
आयज ताका, फाल्यां म्हाका
खबर आसलें जरी सगळ्यांक
जाणीव हाची उरत काय सदांच
माती / खांद दिवंक वतल्यांक!

◆◆◆

13.

## चवथ-सैम पुजा

वांकडी सोंड व्हडली काया
कोटयांनी सुर्यावरी विक्राळ
निर्विघ्नपणान जावंदी आमचीं
सगळीं कार्यां सदांकाळ
बऱ्या-वायट कार्याक
तुजोच जाय आशिर्वाद
तुजीच तर धर्तरी ही
झाडां-पेडां तुजोच प्रसाद
येतलो गणेश चवथीक
मखरांत आमच्या बसतलो
मातयेची मूर्त ताची
साबार जन पुजतलो
मातयेंतलो जल्म आमचो
मातयेंतूच वचपाचो
मातयेचो वारसो सांगत
मातयेकूच पुजपाचो
मनशाची कूड आनी
तकली ती हतयाची
मनीस जनावरां मदली
इश्टागत दाखोवपाची

चवथीची परब आमची
सैमाक पुजपाची
ताणेंच दिल्ली फूल फळावळ
ताकाच भेटोवपाची
सैमान आमकां खूब दिलां
उपकार ताचे मानुंया
वर्सानवर्स अशेंच पिकूं
चवथ नेटान मनोवया
ताचे लागीं मागचें आमी
अशेंच उरूं हें सैम
आनी ताका सांबाळपाक
नितळ आसचें आमचें मन.



14.

## उतर

उतर आसता दिवचेलें
उतर आसता घेवचेलें
उतर आसता मोडचेलें
विसरून वचचेलें
उतर म्हणल्यार कागद
जाणटेले मानताले
ते पदेरूय गेले
आनी ते उंडेय गेले
उतरा खातीर कांय जाण
जीव दिवन मेले
उतर सांबाळूंक, घर-दार
वगडावन बसले
उतराक तांणी भांगर केलें
आयचें उतर मात
खंयचे खंय व्हांवन गेलें
आयचें उतर फातरावरी
मोखून मारपाचें

तिगल्यार तिगलें, ना तर
विसरून वचपाचें
आतां उतर पावसावरी
घसघसून पडटा
मातये भरवण जाता
देखून उतर मोडटा
केन्ना उतर वतावरी
कडकडीत ओतता
करपून मगा वता
आनी मोग करपता
देखून आतां कोणूच
उतराक पातयेना
उतराकूच कित्याक
मनशाकूय पातयेना.



15.

## गरीब-कथा

गरिबी रेखे सकयले बायलेन
देड कोटीचो बंगलो बांदलो
बायलो कितल्यो सक्षम आसात
तिणें एक  दाखलो दिलो.
गरिबीची व्याख्या कितें
दर एकलो सोदूंक बसलो
अच्छे दिन आयले काय
आम आदमी चिंतूक पडलो.
गरिबा कडेन देड कोटी
दिसत कोणाकूय ह्यो फटी
खंयच्यान येता ही पटी
कोण सांगतलो!
आमचो टिचर सांगतालो
आमी कोणूच गरीब न्हय
आमचो देश गरीब देखून
आमचेर शिक्को बसलो.

जावं पंच, आमदार/खासदार
मात्शे हालोवन पळयात
उटंगारा पावसावरी
दुडू शिंवरतलो.
कोणाक जाय गा जन सेवा
खावंक मेळ्ळ्यार पुरो मेवा
तेच खातीर तर दर एकलो
वेंचणूक लडटलो.
देशसेवेचें फकत नाटक
उगडें हांचें तिजोरे फाटक
खंयच्यान येत लक्ष्मी
वाट पळयत बसतलो.
गरिबाक एक संद म्हणत
भीक मागून वेंचून येता
कशे हांचे जातात बंगले
कोणूय सांगतलो?

◆◆◆

16.

## वाट खुर्चेची

आतां कोण कोणाच्या
मरणाची वाट पळेनात
जे कोण पळेताले
तेय आतां विसरून गेल्यात
कारण तांकां आतां
जाय आशिल्ली खुर्ची मेळ्ळ्या
झगडें आसता खुर्चे खातीर
जावं सत्तेची वा विद्वत्तेची
खुर्ची निमाणें खुर्चीच आसता
जाचे खातीर पूत बापायच्या
भाव भावाच्या आनी जालेंच तर
बायल घोवाच्या मरणाची वाट पळेतात
इतिहासांत आमी वाचलां
आतांय म्हणून तेंच घडटा
दर एकलो खुर्चे खातीरूच
धडपडत आसता
केन्ना बंड करून तर
केन्ना हांजी हांजी करून
दुसऱ्यांच्या मरणाची

अमम

वाट पळोवपी मागीर
विसरून वतात, कोणूय
आपणाल्या मरणाची बी
वाट पळेतात म्हणपाचें
तांचीय म्हणून चूक नासता
खुर्ची आसताच तशी
चुटकी में चिपकाये कशी
जो बसता तो चिकट्टा
आनी उरता तो वाट पळेता
केन्ना हो जोड सुट्टलो आनी
आपूण धंय चिकट्टलों
खुर्ची-वाट लायता सगळ्यांची.



17.

## अशेंच घडटा

कितलेंय बरें
करात काम
कोण तुमकां
विचारचो ना
इल्ली लेगीत
जावंदी चूक
कोण तुमकां
दवरचो ना
एक उखल
एक दवर
भोगसुणी
मेळची ना
फुलां घालपीच
घेतले फातर
सुखान रावंक
दिवचे नात
केल्लें काम
वतलें फुकट
आनी तुमी
जातले चोर

मेळची ना काडूंक
तकली वयर
बसली जर
एकदां म्होर
गोडवे तुमचे
गावपीच गा
टिका करीत
बसतले
सादोवन घेवंक
आपणालें
हात पसरून
रावतले.



18.

## विचार

विचार करचेले
विचार सांगचेले
विचार मनांत दवरचेले
चीत चीत चितचेले
विचार, लोकां मुखार मांडचेले
विद्वत्ता सांगचेले
हाचे ताचे मुखार रावन
चर्वण करीत रावचेले
वादविवाद करचेले
मनांत आयल्यार झगडचेले
फुडारांत कितें घडटलें
भाकीत ताचेर करचेलें
मनांत येतात बरे विचार
केन्ना केन्नाय वायट विचार
मन चिंत्ता तें दुस्मान चिंतना
चिंतिल्लें वायटाक वचना
विचार कशेच सोडिनात
विसरुंकूय दिना
आसूं जागो, आसूं न्हिदेंत

फाट कशीच सोडिनात
विचार न्हिदूंक दिनात
विचार जगूंक दिनात
विचार करचो सोडल्यार
जगपांतूय अर्थ ना
विचार हे सोडप कशे
सांगत म्हाका कोणूय
विचारां बगर जगपाचो
दीत काय मंत्र कोणूय!

◆◆◆

19.

## पावस पिसो

पावसा तूं असो कसो
जाय थंय पडना
नाका थंयच शेनतासो
एके कडेन दुश्काळ
दुसरे कडेन हुंवार हाडटासो
ना जाल्यार नाच जाता
आयल्यार हाडटा घसघसो
असो रे तूं कसो ...
ज्येष्ठांत येता मीर्ग
तेन्ना तूं येवपाचो
पूण जुस्त तेन्नाच तूं
तोंड घेवन वता कसो
शेतकारां तोंडा वयलो
हांसो खळयता कसो
भाद्रपदांत सण चवथीचो
गणेसबाबा आगमनाचो

त्याच वेळार घसघसो
रंगा बेरंग करता कसो
पावसा तूं असो कसो
दसरो-दिवाळेक पडटासो
लोकां तोंडार येवची खोशी
तेन्नाच वाट लायता कसो
तूंय येता खोस मनोवंक
हेंय आमी मानून घेवचें
पूण लोकां खोशयेंत विर्जण घालूंक
तेन्नाच तुवें येवचें?
पावसा तूं असो रे कसो
सगळे म्हणटात तें फट न्हय
तूं मरे सामकोच पिसो
खऱ्यांनीच तूं पिसो.



20.

## गणीत काळाचें

कांय वर्सां आदीं भाईन
दोन तारखे सुटी काडली
ऑफिसां वचून निवळ करात
कर्मचाऱ्यांक ओर्द सोडली
गोंय नितळ दवरूंक सोदी
ताका गांधी दुस्मान केलो
फार्टीं फुडें पळयले बगर
रोखडोच व्हरून खुर्सार मारलो
दीस सरले, वर्सां गेलीं
गोंयचें वारें दिल्लीक पावलें
कांय तेंप आदीं घडिल्लें गोंयां
तेंच देशांत घडूंक लागलें
दोन तारखे सुटी गेली
सगळे झाडू घेवन आयले
ऑफि सां, रस्ते झाडून बरे
फोटवा खातीर उबे रावले
गांधी दुस्मान केलो ना कोणाक
वेल्यान सगळे तोखेवंक लागले
कांय जाण नव्या गांधीचो
नवो अवतार पळोवंक लागले
गांधी नवो, तत्वां नवीं
खादी दीस परततले
म्हात्म्या तुका आमी लोक
नव्यान एकदां वळखतले
सुटी गेल्ल्याचें दुख्ख ना
सगळ्यांचें सपन स्वच्छ भारत
काळा तुका नमस्कार
कोणाक तुजें गणीत कळत?



21.

## एकचारान रावुंया

जय जवान, जय किसान
जय विज्ञान गावुंया
उदरगती पावलां मारीत
एकचारान रावुंया
विंगड विंगड धर्म हांगा
भासो वेगळ्यो-वेगळ्यो
हातांत हात घालून कश्यो
खुशाल रावतात सगळ्यो
विवीधतायेंत एकता
संवसाराक दाखोवंया
राम हांगाचो, कृष्ण हांगाचो
हांगाचोच बुध्द, गांधी
व्हडलीं आयलीं मोडां तरी
पर्वा केली ना ताची
जगाक दिल्लो अहिंसेचो
मंत्र आमीय मानुंया
धन्य आमची लोकशाय
घडटा जें जनतेक जाय
मतां वरवीं क्रांती घडटा
सरकार येता, सरकार वता
रगताच्या थेंब्या बगर
सत्ता-केंद्रां बदलता
उदरगती पावलां मारीत
देश मुखार व्हरुंया
एकचारान रावुंया.



22.

## हॅपी दिवाळी

दिवाळी फोवांची
तरांतरांचे ेव
शेकानशेक पंगती
जमतालो आख्खो गांव
दिवाळी बदल्ली
फोव  नांवा पुरते
फराळांचे डबे फिरते
सुरवेक उमेदीन घरांत
दुकानांत ऑर्डरी उपरांत
मागीर हात आखुडले
आपूण आपणांक होच विचार
दिवाळी बदल्ली
पण्ट्यां जागो बल्बान घेतलो
शास्त्र म्हणून फोव करप
बाकी सगळें भायल्यान हाडप
या खंयूय भायर आनी
हॉटिलांत टेबल बूक
घरा रावचे परस आतां
भायर भोंवपांतूच सूख

कार्डांय आतां आवटडेटेड
एस एम एसान जाता काम
पोस्टमनूय सुखी आतां
नाका काडूंक घाम
आतां दिवाळी नवी जाल्या
पेपर लेस, ऑयल लेस
फोव  लेस-आतां फकत
वाडोवन भोंवचेले केंस, आनी
उलोवचेलें येस-फेस
कारीट नासतना, पण्ट्यो नासतना
धाडचेली फकत मॅसेज
हॅपी दिवाळी, सोपी दिवाळी.

◆◆◆

23.

## हॅपी, हॅपी दिवाळी

नरक-असूर
मारून ताणें
वाठार सगळो
नितळ केला
आनी जावन
खुशाल लोक
दिवाळी मनोवंक लागलो
जायतीं वर्सां
गेलीं आनी
नरक परत
मातूंक लागलो
आदमी खुशाल
लोक सगळो
नितळसाण विसरून गेलो
नरक-असूर
परत एकदां
शेक आपलो
गाजोवंक लागलो
घाण करप
हक्क आपलो
मानून लोक वागूंक लागलो

घेवन झाडू
आयलो तो
स्वच्छताये
मंत्र घेवन
ल्हान-व्हड
एक जालो
वाठार नितळ करूंक लागलो
पुराय देश करून नितळ
खुशालभरीत
रावचे आमी
निवळ मनां
जातलीं तोच
वेळ दिवाळी मनोवचेलो.



24.

## सोपूत

घेतलो तांणी सोपूत
काल मंत्रीपदाचो
खंयचे भाशेंत
कसलो सोपूत
कोणाक गा कळचो
शेजाऱ्याली भास हांकां
वाचुंकूय कळ्ळी ना
उतर उतर वाचतना
जीब सारकी वळ्ळी ना
कांय उतरां गळ्ळीं
बरोवन हाडिल्लो कागद
वाचूंक सारको जमलो ना
मायभाशे दिसली लज
मावशेक केली लागीं
उशणीं घेतिल्ल्या उतरांनी
जायत कशीं मनां जागीं
उतरां अर्थ कळत, तेन्नाच
नश्ट जातलो भ्रश्टाचार
ना जायत काळो दुडू
सोंपतलो हो नश्टाचार
देखून सांगतां इश्टांनो
स्वभाशेन करात वेव्हार
काळजा भास उलयतले
तेन्नाच दुस्मानाचेर पडत हार.



25.

## पावस-पावस

पावस पडना देखून
बेब्या लग्न लायलें
पावस काय आयलो ना
पावस वचना म्हणून
गाढवा लग्न लायलें
पावस काय गेलो ना
आमी आमचें सोडलें ना
पावसान आपलें सोडलें ना
बरें कांयच जालें ना
सुरवेक सगळें करपयलें
उपरांत सगळें बुडयलें
वतना उरिल्लें कुसयलें
घाडयान म्हणलें, दॆंवचार नडलो
भटान म्हणलें, देव चडलो
विज्ञान म्हणटा, दर्या दाब वाडलो
कितेंय जावं, पावस पडलो
नाका जायसर पडलो
आमकां नागोवन गेलो
सुरवेक म्हणलें, उणो पडटलो
मागीर म्हणलें, सामान्य जातलो
हो आमकां बुडोवनूच गेलो
देव केलो, दॆंवचार वाडलो
विज्ञानाचो रस्तोय धरलो
तरी निमणें शेतकार मेलो.



26.

## बत्ताश्यो

कागदाच्या वागाची
पडटा थोड्यांक भुरळ
कांय जाण भियेवन रावती
आयकून ताची गरळ
आमी हांगा फोडीत बसल्या
खडीसाकरीच्यो बत्ताश्यो
पुरो जाता तितल्योच
उडोवंक तांच्यो बत्तिश्यो
आसूं कोणाचेंय धोरण कशेंय
आमकां ताची पर्वा ना
हुंदराच्या जाळान आमकां
घराक उजो लावपा ना
मिळमिळीत, सुळसुळीत
आसूं कोणूय पचपचीत
भाशे वयलो अन्याय थांबोवंक
सरचे भायर कुचकुचीत
कागदाच्या वागाक कोणें
भियेवचेली गरज ना
सोंपल्यां तांचीं जंगलां आतां
अभयारण्या बगर जागो ना.



27.

## हें अशेंच चलचेलें

आमी फकत सांगचेलें
तांणी आयकल्लेवरी करचेलें
खिणांत सगळें विसरून
आपणाक जाय तशेंच वागचेलें
हें अशेंच चलचेलें.
देव म्हणल्यार नितळसाण
आमी फकत सांगचेलें
निर्माल्याच्या रुपान तांणी
उदक प्रदुशीत करचेलें
हें अशेंच चलचेलें.
गांधी जयंती दिसा
सान्न हातांत घेवपाचें
व्हड-व्हड भाशणां, फोटो छापपाचें
उपरांत सगळें विसरून वचचेलें
हें अशेंच चलचेलें.
येतना कांयच हाडूं नाकात
आमंत्रणार बरोवपाचें
वाचुनूय तांणी वाचूं नाशिल्लेवरी करपाचें
रिकाम्या हातांनी म्हणून येतात
आमकांच परतें विचारचेलें
हांचो अपमान जायत म्हणून
आमीय तोंड धांपून घेवचेलें
हें अशेंच चलचेलें.



28.

## कारणां

हांव तुगेर पावलों ना कारण
सोयऱ्याचें लग्न आसलें
हांव पावलों ना कारण
म्हाका दुसरें काम जालें
हांव पावलोंना कारण
घरकान्न मात्शी दुयेंत पडली
हांव पावलों ना कारण
तुगेर येवप पयस पडटा
कारणां तशीं खूब आसतात
कारणाकूय रजांव आसता
कोणाक जोर येता
कोणाक कोस्टीपेशन जाता
कोणाचो ऐन त्या वेळार
टायर पंक्चर जाता
आमकांय आतां संवय जाल्या
कारणां आयकुचेली पूण
एक नवेंच कारण आयलें
आनी हांव घुस्पलों
हांव पावलोंना कारण
हांव गॅझेटेड जालां-म्हाका कांयच कळ्ळें ना

म्हळें कितें जालां? गॅझेटेड जालां!
तरी कळ्ळेंच ना, ताणेंच म्हणलें
मंत्र्याच्यो तीन कार्यावळी करून आयलां
आतां चवथे कडेन वतां.
म्हजी ट्यूब पेटली, हो हायफाय जाला
फकत मंत्र्यांच्याच आमंत्रणांक वता
म्हजे सारक्याक पयस जाला
हांवें म्हजे डायरेवेलें ताचें नांव पुसलां.



29.

## बरें गो 14

आयज तूं वता
राव म्हणल्यारूय रावचें ना
तुका तें शक्यूच ना
देखून राव म्हणपाचो प्रस्नूच येना
काल पयरूच आयिल्लें शें दिसता
कितले बेगीन वतात न्हय दीस
चवथ जाली, नवरात्र जालें
दसरो जालो, दिवाळी जाली
व्हडलें कांय दिसलें ना
नातलां आयलीं आनी कळ्ळें तूं चल्लें
आतां तुवें कितें हाडलें, कितें व्हेलें
हाचेर उलोवन अर्थ ना
तुका दिनवासय ना वा शिणय ना
तूं आयलें, तूं गेलें, तुजें कर्तव्य केलें
म्हाका एका वर्सान जाण्टो केलो
तसो जाण्टोय म्हणूंक जावचो ना
जाण्टेपणा हुमन्यार दवरलो

जाण्टो जाल्लों जाल्यार
जायत्यो सवलती घेवपाचों
बँकांनी ज्यूर चड घेवपाचों
तिकेटी मोल उणें दिवपाचों
वेगळे रांकेंत रावन
कामां बेगीन सोंपोवपाचों
पूण ते खातीर 15 ची वाट पळोवची पडली
तूं वता म्हाका हुमऱ्यार दवरून
म्हजें कावंटडावन सुरू करून
वर्सभर आतां मनाक रूखरूख
येतलो तो दीस आनी जातलों रिटायर
म्हाका जर इतली रूखरूख
तर तुका कितें जालां आसतलें
आयलां तेन्नाच्यान कावंटडावन सुरू
आनी आयज ओल्ड मेन
तुका आडावप तरी कशें?
फकत म्हणपाचें,
बरें गो 14, बरें करून
मेळचें 100 वर्सां उपरांत.



30.

## हॅपी न्यू इयर

नव्या वर्साक येवकार दीत
पोरणें वर्स ल्हवूच गेलें
हॅपी न्यू इयर म्हणत
ग्लासाक ग्लास आपटूंक लागले
आमकां फकत निमित्त जाय
कॉपाक कॉप आपटुपाचें
गटारी, नरकासूर, होळी तातूंत
निमित्त हॅपी न्यू इयराचें
नवें वर्स म्हणल्यार कितें
कितें तातूंत घडटा
सगळें कितें तशेंच आसता
फकत कॅलेंडर बदलता
पानां सोंपलीं म्हणटकूच
तें बदलचेंच पडटा
पोरण्याचो जागो नवें कॅलेंडर घेता
आनीक फरक कांयच ना
सगळें तशेंच चलचेलें
तोच घोव, तीच बायल
तेंच जेवण जेवचेलें
तेंच ऑफीस, तेंच काम
कालचेंच मुखार व्हरचेलें
तेच आमी, तेच तुमी
सगळें तेंच आसतलें
तेच इश्ट, तेच दुस्मान
तींच कर्मां करतले
निमण्या दिसा, नव्या वर्सा
आंखण्यो खूब करतले

नव्या वर्सा पयल्याच दिसा
सगळें कितें विसरतले
एकाच दिसा हॅपी म्हणूंक
रातभर ‘कॉपी’ जावप
आनी रातचें निवळावपाक
नव्या दिसा न्हिदून पडप
आसूं निमित्त कसलेंय पूण
नवें वर्स जावचेंच हॅपी
आनी सगळ्या लोकां खातीर
खऱ्यांनीच वच्चें लकी.



31.

# देवा

चंवरिल्लें झाड बरें
मर्दींच जेन्ना करपता
देवाचें देवपण सोंपलें काय
बेठोच  दुबाव मारता
सगळो हो चराचर
देवूच खंय रचता
तन्योच कळयो झडटा
तेन्ना देव खंय न्हिदता
तुवेंच मगा रचल्या
सगळी ही सृष्टी
बऱ्या वायटा वेळार कशी
अधू जाता दृष्टी
तुजे बगर हालना पान
तूंच दिता भूक नि तान
तूंच घडयता तूंच मोडटा
तरी लेगीत खंय तरी चुकता
जिविताची आस सोंपल्या
तांकां तळमळत दवरता
आनी जांची आसता गरज
तांकांच कसो व्हरता?
मनीस चुकता समजूं येता
देवा तूंय तसोच वागता?



32.

## मुक्ती

इश्ट म्हजे गेले गया
वाडलें तांणी श्राद्ध
फाटल्या-फुडल्या पांच पिळग्यांक
उगडलें वैकुंठा द्वार
सगळें श्रद्धेन चलतालें
मदींच आयलें आडमेळें
भटजीलें सांगणें आयकून
सगळे जाण कुळकुळ्ळे
भटजीन म्हणलें, तुमी आतां
कांय फळां-भाजयो त्यागात
नांवां तांची घेयात आनी
गेल्ल्यां खातीर मुक्ती मागात
कितें म्हणून सोडटले
आमकां आमची जीब म्हान
जिबे चोचल्या मुखार
सर्ग लेगीत आमकां ल्हान
निमणें आपसांत उलोवन
घेतलीं तांणी कांय नांवां
त्यागल्यो कांय वस्तू तांणी
मेळच ना ज्यो आमच्या गांवां
दिवन भटजीक दक्षिणा
श्राद्ध तांणी सोंपयलें
पितरांक वैकुंठाक धाडपाचें
नाटक बरें वठयलें
जें मेळना तेंच सोडपाची
आवडली बरी युक्ती
पळोवन हें पितरां घेतलीं
श्राद्धां बगर मुक्ती.



33.

## एक सत्य-मरण

मरण केन्नाय
रस्ताद कशें
मर्दींच रस्त्यार येता
उबारून व्हरता

मरण केन्नाय
येवपाची सुलूस दिता
वेळार येवन
घेवन वता

मरण केन्नाय
बेठेंच येवन
भेश्टावन वता
व्हरता म्हणून नाच जाता

मरण केन्नाय
तुमचे मुखार
नाच नाच नाचता
तुमकांय नाचयता

मरण केन्नाय
सरण जावन
भगभगून वता
गोबोर सगळो करता

मरण केन्नाय
अचळय येता
सुलूस दिले बगर
फुज्ज्यो काडटा

मरण केन्नाय
पिकिल्ल्या फळावरी
अळंग तोडटा
भांगर ताचें करता

मरण केन्नाय
फाट फिरायता
आनी मनीस
तडफडत उरता

बरो मनीस, वायट मनीस
मरणाक कांयच लागना
दानी मनीस, गुणी मनीस
मरण कोणाक सोडिना

मरण केन्नाय
न्हिदेंतूच गळ्याक
येवन धरता
उठचे पयलींच व्हरता

मरण केन्नाय
हात आपलो
काळजाकूच घालता
सडसडीत व्हरता

सुलूस दिवं ना दिवं
येवं केन्नाय कशेंय
मरण हें मरण आसता
निमणें तेंच सत्य आसता.



34.

## साकर

साकरेचें एक बरें आसता
धर्म आपलो सोडिना
च्या, कॉफी, उदकांत घालात
गोडसाण कशीच सोडपा ना
गोड जरी आसली साकर
तिची साकर वाडची ना
तिका केन्नाच डायबिटीस
जावपाची भिरांत ना
ती मात वाडयता
हेरांची साकर
तरी आमी जाल्यात
तिगेलेच चाकर
तिचे पसून आमी
खूब आसा शिकपाचें
तिचे वरी जावन
गुणधर्म तिचे घेवपाचे
घालात तिका कित्यांतूय
विरगळून वतली
जाचे वांगडा वता

तांचीच ती जातली
ती परत वच्ची ना
तिका ‘घर वापसी’ ना
गेली जरी कोणाय वांगडा
आपलो धर्म सोडिना
ती करता दुसऱ्यांक गोड
मागीर हें सोड, तें सोड
फकत पदरमोड आनी रड
कांयच खावंक मेळचें ना धड
तरीय साकरी बगर
आमचें कशेंच जायना
जितेपणीं सोडाच
मेल्ल्याचेंय तोंड ती सोडिना.



35.

## उजवाड

हांवें म्हळें सुर्याक,
तुका हांव उजवाड दाखयतां
आनी तूं पळेचना सो
सुर्यान अजापान विचारलें,
तूं म्हाका उजवाड दाखयता?
हांवें म्हळें, तूं अस्तमेक वता
तेन्ना काळोख जाल्लो आसता
तुका मुखार वचूंक
आडखळ जावची न्हय
देखून हांव उजवाड घेवन आयलां
सुर्यान म्हळें, तूं तुजी एनर्जी
कित्याक पिड्ड्यार करता?
तुज्या उजवाडाक तेल, वीज
कितें तरी लागतलेंच न्हय
हांवें म्हळें, ना हें कांयच लागना
हांव सौर उर्जेचेर उजवाड करतां
'म्हळ्यार म्हजेच कुल्या मातयेचो
म्हाकाच तिबो मरे!' सुर्यान म्हळें

म्हजी चिंता करूं नाका
जमता तर हे उर्जेचो उपेग
गरज आशिल्ल्यां खातीर कर
ओगीच तुमच्या राजकर्त्यांवरी करूं नाका
तुमचेंच काडून ते तुमकांच दितात
आनी तुमी ताळयो मारीत
तांचे फाटल्यान धांवतात
गरजेवंतांचें बरें आसा पूण
गरज नाशिल्लेय हात मुखार करतात
सुर्यान इतलेंच म्हळें आनी
दर्यांत उडी मारली, नवी उर्जा. नवी उर्बा
घेवन नव्यान येवचे खातीर.



36.

## ????

मनांतल्या देवाक विसरून
देवळांत ताका सोदूंक गेले
मुर्ती, फोटू सांसपून आमी
देवाक सायबा होरावंक लागले
घरचो देव वृद्धाश्रमांत
मठांनी ताका सोदूंक लागले
बुवा-बाबा सेवा करून
कृपा मेळोवंक सोदूंक लागले
घरचो देव उपाशीं
तिर्थां आमी भोंवूंक लागले
साधू-संतांक घालून जेवण
आशिर्वाद घेवंक लागले
सगळें करून जालें तरी
शांती जिवाक मेळना
करचें कितें काय आतां
कांयच म्हणून सुचना
जितेपणीं उपाशीं मारून
श्राद्धां मागीर वाडचेलीं
व्हड-व्हड छापून फोटू
याद ताची काडचेली

तुजे यादीन न्हीद पडना
अन्ना उंडी गोड लागना
कवनां तांचेर रचून मागीर
मुक्ती आत्म्याक मागचेली
घरच्या देवाक उपाशीं दवरून
करात कितलीय काशी गया
कांयच प्राप्त जावचें ना
मेळची ना देवा दया
जितेपणींच केल्यार सेवा
सगळें पुण्य मेळटलें
जिविताचें सार, तांतल्यानूच कळटलें.



37.

## उजो

उजो कसो लागता?
उजो लागता काय लायता
उजो म्हूण केन्ना लागता
उजो पेटोवचो पडटा

फातरार फातर घांसता
झाडाक झाड घांसता
तेन्नाच पडटा कीट
आनी उजो लागता

म्हज्या भुरगेपणांत आई
रांदनी कडेन बसताली
नळी घेवन फुंकत फुंकत
रांदनींत उजो घालताली

लाकूड, सोण्णां, शेणी घालून
अग्नीदेवाक करी प्रसन्न
तेन्नाच पेट्टाली रांदन
आनी शिजतालें अन्न

फुंकतना धुंवरा मर्दी
ती घुस्मट्टाली
खो खो खोंकतना
दोळ्यांत झरी व्हांवयताली

अग्नीदेव बेठोच येना
ताका मनोवचो पडटा
केली तपश्चर्या तरूच
फळाक ती येता

पूण कांय जाणांचेर अग्नीदेव
बेठोच कसो प्रसन्न जाता
तांकां जाय तेंच जाळून
गोबोर ताचो बरो करता

गोम हांतली कितें ती
कोणूय आमकां सांगत काय
आयज नासल्यार फाल्यां
अग्नीदेव आमकांय जाय.



38.

## खत

चंद्राक हांवें सांगलें कितलें
रातचो बितचो भोंवूं नाका
दीस आतांचे सारके नात
नसती आफत हाडूं नाका

गोंयूय आतां सुगूर ना
वेगळे वाटेन तें धांवता
पर्यटना नांवा खाला
ड्रग्साच्या विळख्यांत वता

चोरयो, दरोडे सदचेच जाल्या
तरी आमी सुदारी नात
भांगरां शिंगरां पिशें आमकां
परिस्थिती भान दवरी नात

भांगरा आशेन घरचेच
पुता, कापती केंसान गळो
साथ दिवंक तयार तांकां
पोरसांतलो कळो

सांगलें कितलेंय जरी
चंद्र खंय म्हजें आयकता
रात-रात चान्न्यां मदीं
खुशालकायेन मिरयता

राहू-केतू मदींच केन्नाय
उडयतात ताका गिळून
खिणाचोच खेळ तो
उपरांत वतात पळून

तरीय चंद्र भोंवता पळे
घेवन स्वताचेंच मत
कित्याक म्हूण मिरोवचें
ताणें, गिराणाचें खत



39.

## लग्न

लग्न एक खीण
लग्न एक शीण
लग्न एक रीण
फुडाराची जीण
लग्न दोन जिवांचें
चलो आनी चलयेचें
लग्न दोन घरांचें
न्हवरो-व्हंकलकारांचें
लग्न मान-पानाचें
लग्न रुसव्या-फुगव्यांचें
लग्न सोयऱ्या-धायऱ्यांचें
साबार परिवाराचें
लग्न एक मोग
लग्न एक भोग
एक जातात दोग
भरूंक जिवितांत रंग
लग्न एक रीत
लग्न एक गीत
लग्न एक प्रीत
दोन जिवांची
लग्न एक कर्म
लग्न एक मर्म
लग्न एक धर्म
दोगांयनी पाळपाचो.



40.

## देव म्हणून चुकता?

लग्नां खंय सर्गांत लागतात
आमी हांगा तांचें पालन करतात
अशें जर आसता तर हांगा धर्तरीर
झगडीं कित्याक जातात?
हुंड्या खातीर व्हंकलांचे
जीव  कित्याक वतात?
लग्नाची गांठ खंय
ब्रम्हदेव सर्गांत बांदता
मागीर, न्हवरो सोदचे खातीर
हांगा जोतीं कित्याक झरतात ?
लग्नागांठी जर जल्मा वेळारूच बांदतात
तर, धर्तरीर तलाक कित्याक जातात ?
थोड्यां नशिबांत चार-चार व्हंकलो
थोडे आंकवारूच कशे उरतात?
ब्रम्हदेव मेळ्ळ्यार विचारूंक जाय
हें सगळें तूं जागो आसतना करता
काय न्हिदसुरो बी आसता
काय अजुनूय ट्राय ॲण्ड एरर चलता
देव म्हणून केन्ना चुकता? काय,
देव आनी सर्ग मानपीच चुकतात!



41.

## शिगमो

गुलालाच्या रंगांत रंगून
रंगीत आमी जावंया गा
धोल–ताशां तालार नाचून
तालगडी खेळुंया गा

तालगडी खेळूंक आमी
शिगम्या मांडार जमचें गा
'होस्सय' म्हणत नाचत
मेळा वांगडा वचचें गा

नमन घालून, लोकां दारांत
फेर धरून नाचचें गा
जोती म्हणून तळय घेवन
शबय आमी घालची गा

आंबे–पणस पिकाक आयल्या
खोस ताची मनोवची गा
सोंपत्या वर्साक आदेवस दीत
निसर्गाक होरावया गा

घणचे कटर घणचे कटर
धोलार तोणी मारूंया गा
सोंपत्या वर्सा खोस मनोवंक
शिगम्या गितां गावंया गा

रंगांत रंगून वच्चें आमी
रंगीत आमी जावंया गा
सैमांतले रंग घेवन
सगळ्यांक रंगोवन काडुंया गा.



42.

## बी कूल-एप्रील फूल

आतां गोंयच्या रस्त्यांचेर
केन्नाच अपघात घडचे नात
फोडात कितलेय रस्ते आतां
एकलोय उसळून पडचो ना
वाडोवं कितलीय स्पीड तांणी
कोणूच निसरून पडचो ना
डिव्हायडराक आपटून कोणूच
तकली फुटून मरचो ना
गाडये पोंदा, ट्रका पोंदा
कोणूच आतां चिड्डुचो ना
आसूं रस्त्यार कितलींय गोरवां
कोणूच तांकां आपटुचो ना
आतां रस्त्याचेर मर्दींच
पुलीस दिश्टी पडचे नात
तांकां पळोवन ताटकळत
वेळ वगडावपी आसचे नात

थंड माथ्यान करात विचार
रावात सामके कूल
एप्रीलाची एक तारीख
करता सगळ्यांक फूल
हॅल्मेटाची सक्ती जाली
म्हणून वेगळें कांयच घडचें ना
समजूं नाकात मानतले सगळे
उक्तीं माथीं दिसचीं नात
लोक अशेच वागतले
वर्सां अशींच सरतलीं
हॅल्मेटाच्या कमिशनान
बोल्सां इल्लीं भरतलीं.



43.

## तुमी अशे कशे

तांकां विचारीन दिसता
तुमी गा खंय शिकले
तुमच्या गांवांत कॉन्व्हेंटां नात
मागीर तुमी अशे कशे जाले?
घरांत लक्ष्मी आसतनाय
भायले घाणींत पांय कशे
भारतीय संस्कृतींत शिकूनय
कशे जाले अशे पिशे?
हांगा थंय उडयो मारपा
खंय गा घेतलें लिसांव
पुडव्याची संस्कृती आसली
आयलें कशें काल्सांव?
खंयचे शाळेंत घेतलीं शिकून
सगळीं वादयांवपणां
सादोवंक सगळो स्वार्थ आपलो
करून घेतलीं काळीं तोंडां.
शाकाहार मारून गुड्ड्याक

पानार आयलीं चिकनां
कार्यकर्त्यांक भुलोवपाक
लागीं केलीं ताव्हेनां.
खंयच्याय शाळा-कॉन्व्हेंटांनी
असलें कांयच शिकयना
मनां नितळ आसलीं तर
पाद्री सेर्मावां गरज पडना.
सेर्मांव सांगतल्यांनी पयलीं
आपल्या घरांत नदर मारची
घरांत जाग्यार पडटकीच
जनाक सगळी गीता सांगची.



44.

# सूख-दुख्ख

तूं म्हाका मेळूंक आयलें
खोस म्हाका जाली ना
तूं म्हाका सोडून गेलें
दुख्ख म्हाका जालें ना.

नासलेंच जें म्हजें
ताचें दुख्ख कित्याक करूं
हांव जगतां म्हजे खातीर
तुजो कित्याक विचार करूं

तूं तुजे खातीर जग
म्हजें सूख नाका व्हरूं
म्हाका म्हज्या सुखा मदीं
सुसेगादीन दी गो चरूं

तूं आयलें, तूं गेलें
म्हजें कितें व्हेलें
सोडून म्हाका गेलें
तुजेंच लुकसाण केलें

म्हजेवरीच तूंय असोच
कित्याक विचार करिना
जाल्ले लुकसाणेंतूय
लाव कित्याक सोदिना

करून पळे, भांगर जातलें
जिवीत सामकें सुखी जातलें.



45.

## दुख्ख नाका

वाटेर रावन हांस तूं
सगळो संवसार हांसतलो
वाटेर रावन रडशी तर –
'भुरग्यांनी वाटेर उडयलो काय कितें?'
'पिसो जाला जातलो'
'धंदो लुकसाणेंत गेला जावंये'
'मात्सो सुटला आसतलो'
'मजा मारतना कळ्ळी ना?'
'बायलेन घाणायलें दिसता'
'आपली रड रस्त्यार कित्याक?'
'पयलीं सगळें बरें दिसता
मागीर रड येतलीच न्हय!'
संवसार हो असोच
तुमचे खोशयेंत साथ दिवपी
आनी दुख्खांत फकाणां मारपी
देखून सूख जगाक सांगात
आनी दुख्ख काळजांतूच दवरात.

◆◆◆

46.

## कालचें गोंय

निर्शेणेंत कित्याक जगता
जा रे इल्लो पोझिटिव्ह
पळे कशें जातलें तुजें
मन रे एक्टिव्ह
कालचें गोंय खंय म्हणून
ओगीच पुता कश्टूं नाका
आजूय गोंय तितलेंच सोबीत
विसर पडूंक दिवं नाका
भोंवन पळय गांव हांगाचे
तींच गोड आडसरां
कॉंक्रीट जंगलांत रावन कित्याक
तापोवन घेता कानसुलां
कालचें चिंतून चिंतून
ओगीच कित्याक जाता कश्टी
पळय आयची फॅशन
विसरतलो कालची काश्टी
बाणीर बोट दवरचेली

संवय आमची वचना
कितेंय नवें घडटा जाल्यार
आमकां कशेंच सोंसना
कालचें चिंतून आयज
ओगीच खंती बाबा जावं नाका
आयचो दीस मान बरो
फाल्यां पळे रावलां तुका
हेंय गोंय बदलून वतलें
येतलें सोबीत नवें गोंय
तेन्नाय प्रस्न आसतलोच
कालचें गोंय गेलें खंय?



47.

## नुस्तें

ट्रॉलर दर्यांत वता तेन्ना
दर्यांत नुस्तें आसता ताजें
जाळांत नुस्तें पडटा तेन्ना
नुस्तें जाल्लें आसता ताजें
ट्रॉलर येता देगेर आनी
नुस्तें जाता ताचें, तिचें
आनी येतकूच बाजारांत
नुस्तें जाता तुजें, म्हजें
तरी आमी विचारतात
नुस्तें ताजें आसा मरे?
उगडून पोले नुस्तेकार म्हण्टा
आजूच हाडलां पळय रे!
झेलाद नुस्त्याक ताजें म्हणप
कशें हांकां पुटवता

आनी तांकां पातयेवन
आमी बाबा फटवता
आठ दिसांचें ताजें नुस्तें
दीसभर आमच्या फ्रिजांत उरता
आनी करून जेवण मागीर
घोस्तान आमी तें खातात
आठ, णव दीस जाले
तरी नुस्तें ताजें आसता
दुडू जरी आमचे गेले
नुस्तें तरी ताजें आसता
हुमण मात्शें हाल्लें तर
घरकान्नीक दोश दिवचो
आनी नुस्तेंच हाल्लां म्हळ्यार
मुकेपणान मार खावचो
हुमण हाल्लें, नुस्तें विरलें
कळना दोश कोणाक दिवचो
नुस्तें आसूं बरें वायट
निमणें दुडू आमचोच वचचो.



48.

## देवा सायबा

पोट मारून जोत केलें
तेंय मगा वागान खालें
हांगाय म्हणून तेंच घडलें
खिणांत सगळें काबार जालें

देवाक कसो दोश दिवचो
तोय हातूंतल्यान सुटलो ना
देवळां जालीं मातये भरवण
ताकाय आसरो उरलो ना

तरी लेगीत म्हणचेंच पडटा
देवा तूं सामको चुकलो
शेंकडो हुपिल्लो उरलो जितो
बाळकांक तूं घेवन गेलो

खंय गेली शक्त तुजी
भुंयकांप आडावंक जालो ना
घेवन नवो अवतार एक
धर्तरी वाटावंक जमलें ना

परत एकदां सितामायक
धर्तरीन घेतली गोपान
काय अत्याचारांक कंटाळून
तीच उठून गेली रागान

देवा तुका न्हय तर कोणाक
विचारप हाची जाप?
काय भियेवन ओगी रावचेलें
दीत म्हूण तूं शाप!

तुवेंच मगा घडयला
तुवेंच दिल्या बुद्द
तरी सगळें पळोवन हांवें
वगडावन बसप शुद्ध?

तूंच जर वाटावचोना
कोणाचेर दवरप भंरवसो
चुकला तूं म्हूण शिणलों तर
हांगा, थयथयाट जाता कसो?



49.

## लिव्हराक हॅल्मेट जाय

हॅल्मेट सक्ती करीत सावन
रस्त्या रस्त्यार पुलीस रावतात
उक्त्या बोडकांक घालून तालांव
सरकारी तिजोरी भरून घेतात

शंबर रुपया तालांव भरून
सगळे जाण मेकळे जातात
पावती घालून बोल्सांत
दीसभर दुचाकी चलयतात

तालांव भरतल्याक सांगात
अपघात जायना काय?
जालोच जाल्यार अपघात
तकलेक मार बसना काय?

ट्रॅफिकाचें गणीत हें
आमच्यांनी सोडोवंक जमपा ना
हॅल्मेट घालें तकलेक तरी
अपघात काय चुकपा ना

रस्ते आमचे पळयल्यार
चिलखताक पर्याय ना
अजून खंयचे कंपनीन
तयार कशीं करूंक ना

कळना सरकाराक
हुस्को कोणाचो, तालांवाचो
लोकांच्या तकल्यांचो
काय कंपनीच्या हॅल्मेटांचो

तकलीय उरूंक जाय
हॅल्मेटूय खपूंक जाय
तशें जाल्यार मंत्रीसायब
लिव्हराकूय हॅल्मेट जाय

अशें हॅल्मेट करूंक
तुमी कोणाक सांगलां व्हय?
कार्यकर्त्यांक बारां उक्तीं
विचार तांचो केला व्हय?



50.

# आमी हे अशे

हाचें आयकून, ताचें आयकून
जातात आमी जाम
आयकुचेंच पडटा, कारण
आमी न्हय आदमी आम
मंत्र्याचें आयकना तर
बदलेक तयार रावपाचें
सायबाचें आयकना तर
सी. आर. पेड्ड्यार जावपाचें
दोगांयचें आयकल्यारूच
काम सारकें जमपाचें
पूण त्याच वांगडा ऑडिटराक
तोंड दिवंक तयार रावपाचें
कितलेंय मरून करात काम
जायना कोण समाधानी
सरकारी नोकर आमी
न्हय गा कोणाचे धनी
आमचें हें सदचेंच
झरत मरत जगपाचें
हाका ताका करून खोशी
नोकरी सांबाळून रावपाचें
कामाक रावंक जाय जाल्यार
जावचेंच पडटलें जाम
धांव हाचे-ताचे फाटल्यान
आमी न्हय गा आदमी आम.



51.

## वाट

वाट पळोवप
म्हज्या सभावांत ना
तूं येतलो, यो
येवचो ना, येवं नाका
हांव वचत रावतलों
काम करीत रावतलों

तूं आयलोना म्हूण
म्हजें कितें अडटलें अशें ना
इल्ले त्रास जावं येतात
पूण ते सोंसपाची
म्हजी तयारी आसा
त्या त्रासांक भियेवन हांव रावचोंना
हांव वचत रावतलों
काम करीत रावतलों

तसो हांव सर्वज्ञ न्हय
म्हाका हेरांची गरज लागताच
पूण ते खातीर तिश्टत रावपाची
म्हजी केन्नाच तयारी ना
तितलें पासियेंसूय ना
हांव म्हजीच वाट पळयना थंय
हेरांची कितें पळयतलों
देखून म्हणटां तूं यो, येवं नाका
हांव वचत रावतलों.



52.

## देव म्हणल्यार कितें?

देव म्हणल्यार कितें
आमकां केन्ना कळ्ळेंच ना
हांगा थंय सोदलो ताका
तरी तो मेळ्ळोच ना.

देव आसता काळजांत
आमी हें विसरुनूच गेले
काळजा वटेन जोडपाचे हात
भलते कडेन गेले.

काळजांतलो देव
आमकां कळ्ळोच ना
पडूंक ताका पांयां
आमचे हात वळ्ळेच ना

देव सोदूंक भोंवले आमी
देवळां, मशिदी, इगर्जांनी
वेळूच मेळ्ळो ना आमकां
भोंवंक सैम वाठारांनी.

भोंवले आमी देव सोदूंक
बुवा, बाबांच्या मठांनी
वेगळायलो देवाक आमी
जाती-धर्माच्या गटांनी.

दर एका धर्माचो
देव जालो वेगळो
तरी सगळ्यांच्या पिंडाक
जायच मगा कावळो.

तरी खंयच्याच कावळ्याक
कोणे देव मानलो ना
पिंड तो व्हरता देखून
उपकारूय ताचे मानले ना.



53.

## जीण नवी

लग्न जालों तेन्ना बायलेच्या हातची
मिरसांग लेगीत गोड लागताली
नव्याची नविदाद सोंपली,
वर्सां गेलीं, रूच बदल्ली
गोड, आंबट, आडूक, कोडू करीत
आतां तिखसाण आयल्या
तिच्या हातांतली साकर लेगीत
तीख लागूंक लागल्या
वयाचो परिणाम काय
वातावरणांतलो बदल खबर ना
पूण हांव एसिडिटीनूच जगतां
दोतोरा कडेन गेल्यार तो म्हणटा,
बायलेक कित्याक रे खेपता?
स्वताच करून घे मरे सगळें
पळे गोड लागता स्वहाताचें तर
'जो स्वयेची कश्टला तोची भला'
पूण ताका खंय खबर
रांदचीकूड तिचे मालकीची
म्हाका थंय प्रवेश मेळना

आतां दोतोराकूय सोडला
आनी 'ठेविले अनंते' म्हणत
एसिडिटी सोंसतां आनी
जाता तितलें खावपाचें टाळटां
एक आंकवार जीण जगूंक सोदतां
वाट पळयतां, परत एकदां
नव्यान तिका मेळपाची
तिच्या हातची मिरसांग लेगीत
गोड मानून खावपाची.



54.

## पावस

अंदूं पावस खूब पडलो
खंय धुमशेणां घार्लीं
खंय बुट्टी हाडली पूण
हांव मात सुकोच उरलों

म्हज्या घरार पावस पडलोच ना
इल्लो पूण शिरशिरपाचो, पूण ना
हांवें कितलें सांगलें तरी
ताणें कानामनार घेतलें ना

हांवूय कंटाळ्ळों
आतां हांव ताचे वटेन पळयच ना
आनी सत्रीय व्हरिना
असलें पावसाचें राजकारण
म्हाका कळच ना

पावसाक जाय तेन्ना, जाय थंय
जाय तागेर पडूं दी
म्हगेरूच पड म्हणून
हांव ताका विनवचों ना
पडलो ना म्हणून शिणचोय ना

आनी मुजरत म्हऱ्यांत आयलो
तर भिजचोय ना
पावसाच्या राजकारणांत
म्हाका पडपाचेंच ना.



55.

## भंय

दिसता केन्नाय
सगळीं बंदनां उडोवचीं मोखून
आनी जगचें मनसोक्त
कोणाचें कांय आयकनासतना
कोणाचीच पर्वा करिनासतना
पूण लोक कितें म्हणत
होच भंय मनाक दिसता

दिसता केन्नाय
हिप्प्यांवरी वेळेर नागडे-उगडे भोंवचें
हेवटेन तेवटेन पळयनासतना
धुंदींत बरें रावचें
पूण लोक कितें म्हणटले
होच भंय मनाक दिसता

दिसता केन्नाय
जावन तरणाटो भोंवचो रस्त्यान
केंस काळे, टी शर्ट
हाफ वा थ्री फोर्थ पॅण्ट
पूण लोक कितें म्हणत
होच भंय मनाक दिसता

जांकां भियेवपाचें नासता
तांचोच भंय दिसता
आनी हो भंयूच आमकां
फाटीं फाटीं ओडटा
हो भंय कसो काडप काय?



56.

## अधिक मास

अंदूं आषाढ अधिक येवन
नव्या सुनांक प्रोब्लेम केलो
कुळारा वचपाचो प्रोग्राम
नाकासतना मुखार गेलो.

काय बरें मम्मा कुशींत
रिगूंक मेळपाचें
सांठून सगळें उरलां मनांत
सांगूक मेळपाचें

सगळें कितें मनांतलें
मनांतूच उरलें
कुळाराचें प्रस्थान
म्हयनोभर मुखार गेलें

अंदूं आषाढान पांवळीय
सारकी गळयली ना
नव्या घराची पांवळी कशी
गळटा तेंय कळ्ळें ना

नव्या सुनांचो विचार
आषाढान इल्लो करपाचो
अधिक मासाचो विचार
मात्सो मुखार व्हरपाचो.

पूण कोणें म्हूण केन्ना
दुसऱ्यांचो विचार केला
दर एकलो आपल्याच
मना प्रमाण वागला.

आषाढानूय म्हणून तेंच केलां
आमचें कुळार पयस व्हेलां
पूण ताका तरी दोश कित्याक
ताचेंय आगमन म्हयन्यान लांबलां

आमी आमचें दुख्ख
कोणाक तरी सांगूंक शकतात
ताचें बाबड्याचें दुख्ख
कोण म्हणून वळखतात

ताका कोणूच विचारिनात
सगळेच नाचतात श्रावणाक
देखून तोय नाचयता केन्नाय
घेवन वांगडा अधिक मासाक



57.

## काव्य जमना

दर्यार वचून मेजलीं ल्हारां
एकूय ल्हार जमलें ना
रानांत वचून मेजलीं झाडां
एकूय काव्य गावलें ना

उक्त्या मळबांत देखलें तर
एकूय नकेत्र दिसलें ना
काँक्रीट जंगलांत रावन सायबा
एकूय काव्य जमलें ना

दोंगरार नदर मारली तर
एकूय दोंगर उरलो ना
तासून कापिल्ल्या बोडक्या दोंगरार
काव्य रचप जमलें ना

शेतां-भाटां पुरोवन गेलीं
वसल्यां थंय गांव-नगरां
कांतार करीत माड चडपी
रेंदेर आतां मेळपा ना

वाट पळयत बसला बेबो
मिर्गार येवपी पावसाची
ताणेंय उशीर केलो तर
काव्य  बरोवप जमपा ना

घाम गळयत बसलां हांव
गरमी सोंसूंक जायना ही
अश्या खिणाक शितळ वाऱ्यार
कवीत रचूंक जमपा ना.

◆◆◆

58.

## खंय तुमी खंय आमी

मेकळ्या मळबांत
मेकळेपणान
मेकळे आमी रावतले
देवा तुज्या भरवंशार
जिवीत आमी सारतले

येवं दी कितलेंय वादळ वारें
पर्वा ताची करची कोणें
हालूं धर्तरी, येवं दी सुनामी
घडणुकांक त्या भियेवचें कोणें

हावेस आमचो मळबांत उडून
सूर्यदेवाक वेंगावपाचो
येवं दी इतली शक्त आमच्यांत
पुराय जावंक हावेस आमचो

हातांत आमच्या ना तें चिंतून
भियेवन आमी वचचें कित्याक
फुडल्या जल्मा विचार करून
जल्म फुकट घालचो कित्याक

दर दीस खोशयेचो मानून
आनंदान जगुंया आमी
फायचें कित्याक चिंतपाचें
खंय तुमी, खंय आमी.



59.

## जाण्टेपण

सत्री शेणयली
रेनकोट विसरलों
फोन हाताक मेळच ना
अशेंच हालीं घडटा
जाण्टेपण मानून घेवंक
मन फाटीं सरता
माथ्यार कापूस
नदरेक चश्मो
पांयांक थरथर मारता
जाण्टो जालों मानपाक
कशेशेंच दिसता
केंसांक काडलें काळें
दोळ्यांक लायली लेन्स
उश्णें हाडलें अवसान
म्हूण जाण्टेपण लिपता?
वेळ येता तेन्नाच
तें मुखार उबें रावता
जिविताचो भाग तो
कित्याक लिपोवचेलो
मुखार येता तेन्ना
ताका फुडो करचेलो
वांगडा घेवन भोंवचेलो
जावं कितलोय जाण्टो
भुरगो जावनूच भोंवतलों
जिवितांतलें सूखदुख्ख
खुशालकायेन झेलतलों
धादोसकायेन जगतलों.



60.

## फायचें फाल्यां

फायच्या गोंयांत बिल्डिंगो
गगनाक तेंकतल्यो
शेतां-भाटां जाग्यार ह्या
वसाहती आसतल्यो
फायच्या गोंयांत कोणाकूच
नाका जातलें काम
कोण काडीत उठाबशी
वारयत आपलो घाम?
फायच्या गोंयांत आयचेवरी
सैम पळोवंक मेळचें ना
आयज येवपी भोंवडेकार
फायच्या गोंयांत येवचे ना
गोंयांत सगळ्याक मेळटलो
सोरो आनी कॅसिनो
कोणूच आड उलोवचो ना
गोंयकार आसतलो मोनो
फायचो गोंयकार आलमपेड्ड्यार
बसून बाबा खातलो
जमनी विकून केल्ल्या दुडवांर
जीण खुशाल सारतलो
फायचें फाल्यां, आयज कित्याक
घेवचो ओगीच भार?
फायच्या गोंयांत मेळत घडये
आयकूंक फारार फार.



61.

## दोळ्यां आड

पळोवन तुजो फोटू
कोणेंय तुज्या मोगांत पडचें
आनी म्हज्यांत मेळटा तेन्ना
थंयच्याान ल्हवूच कुशीक सरचें.



62.

## पांवळी

ज्येष्ठ सोंपलो, आषाढ आयलो
पांवळी अजून गळ्ळीच ना
पावसाची मजा अंदू घेवंक मेळ्ळीच ना.

मिर्गूय अंदू सुकोच गेलो
बेबे खंय रडलेच ना
मन कशें सुखावतलें
'डरांव डरांव' आयकूंक आयलेंच ना.

सांजावाचो घालो बोवाळ
पावसाक आयकूंक आयलोच ना
सुके बांयंत उडी मारूंक
मनाक आमच्या पटलेंच ना.

वेळार येतलो, शें प्रतिशें पुराय येतलो
वेधशाळेंतल्यान कळटालें
पूण असो फटयतलो म्हणून
तांकां लेगीत कळ्ळेंच ना.

हें आतां दर वर्साचेंच जालां
पावसान म्हणून सामकेंच विटयलां
आयल्यार सगळें बुडोवन वता
नासल्यार करपावन उडयता

कसो हाका मनोवपाचो, कळच ना
नशिबांतली आत्महत्या चुकच ना.



63.

# पुरो जाल्यो तारको

पुरो जाल्यो आतां ह्यो तारको
आतां तरी मेळत काय न्याय?
मेळत काय न्याय?

तारकांर तारको मेळत गेल्यो
काळजा थोके वाडयत गेल्यो
बीपी वाडलो, साकर वाडली
कितेंय तरी कळत काय?
आतां तरी मेळत काय न्याय?

म्हयने गेले, वर्सां सरलीं
आदवोगादांची बोल्सां भरलीं
रितें जाल्ल्या बोल्साक आमच्या
ताचें फळ तरी मेळत काय
आतां तरी मेळत काय न्याय?

कोर्टांत वचून जायतें शिकलों
वेंताक न्हय वांवाक चुकलों
न्यायाची वाट देखतां, सांगा
ह्या जल्मांत तरी तो मेळत काय
आतां तरी मेळत काय न्याय?

मरण आयलें आफोवंक तर
सांगन, व्हर बेगीन नाका तारीक
करून घे आतांच तूं तुजें रीण फारीक
ताचे पयलीं फकत कोर्टान दिवचो न्याय
आतां तरी मेळत काय न्याय?
मेळत काय न्याय?



64.

## फॅन

‘हांव ताचो फॅन’ ताणें म्हणलें,
आनी हांव घुंवूक लागलों
हो कसो काय फॅन?
फॅन वा पंखे जायत्या तरांचे
पयलीं तेंपार हातांत आसताले
जाय तेन्ना हालयले, घेतलें वारें
नाका तेन्ना दोडून बोल्सांत वताले
काळ बदल्लो आनी नवे पंखे आयले
कांय एँप्रेगादांवरी मेजार बसपी
कांय सेक्युरिटी गार्डांवरी उबेच रावपी
कांय माथ्यार लोंबकळून घुंवपी
कांय घयरांव कशे वण्टीर लोंबकळपी
हो कित्यांत बसता काय?
हाका कोण धरून हालयतलो?
आनी दोडून बोल्सांत तरी कसो घालतलो?
मेजार बसोवप शक्य ना, उबोय रावंक शकना
लोंबकळयतले कशे? वण्टीर तर धरचोच ना
वारें जर मेळचें ना तर हो फॅन कसो?
बरेंच उसरां कळ्ळें फॅनाकूय वेगळो अर्थ आसता
हो फॅन वारें दिवपी न्हय, वाऱ्याक सांपडिल्लो आसता.



65.

## अशें कशें?

ब्राम्हणाक दितना दक्षिणा
पयशे कोण धुता?
आसूं खवळ, लागूं रगत
सगळें पचून वता.
पळीभर उदकान जाता
सगळें कितें निवळ
रगत वता पुसून आनी
नाच जाता खवळ.
दुडू कशे भश्टनात काय
म्हाका सदचेंच नवल
काय आफुड भश्ट मानपी
आमीच जावये अरवळ?
पयशे खंयच्यान आयल्या
ताची वासपूस कोण करता
घसघशीत दक्षिणा
पूण्य दिवन वता.



66.

## संकश्टांतल्यान वाटय देवा

संकश्टांतल्यान वाटय देवा
केन्ना हांवें मागलें ना
सोंसचें सगळें तांक  दी गा
मागले बगर रावलों ना

पुजा–अर्चा करूंक देवा
हुंबरो तुजो हुपलो ना
जप–तप, सवळें–ओवळें
करप केन्ना जमलें ना

पुजलो तुका मनांतल्यान
मागणें कांय केलेंच ना
तुजेमुखार हात पसरप
केन्ना म्हाका जमलेंच ना

सुख–दुख्ख तुजोच प्रसाद
मानून देवा घेतलो हांवें
जिवितांतलो दर एक खीण
खुशालकायेन सारलो हांवें

सुखांत केन्ना मातलों ना
दुख्खांत देवा त्रासलों ना
म्हाकाच कित्याक त्रास म्हणून
तुका केन्नाच खेपलो ना

म्हज्यांत तूं, तुज्यांत हांव
जाणून देवा घेतलें हांवें
काळे किट्ट रातींतूय
देखलें एक सपन नवें

म्हज्या सुखांत तूं खोशी
म्हज्या दुख्खांत तूं दुख्खी
संवसारांत म्हजे वरीं
आसतलो कोणूय सुखी?

संकश्टांतल्यान वाटय देवा
केन्नाच हांव मागचो ना
सोंसचें सगळें तांक दी गा
मागले बगर रावंचो ना.



67.

## दर एकल्यान थारावपाचें

पोटाखातीर दीसभर झरचें पडटा
दुख्ख हाचें मानपाचें, काय
पोटांत दोन गोटे पडटात
सूख ताचें घेवपाचें?
दर एकल्यान थारावपाचें.
रांदतना चटके बसतात
दूख ताचें घेवन बसपाचें, काय
भुरग्यां तोंडार खोशी दिसता
समाधान ताचें मानपाचें?
दर एकल्यान थारावपाचें.
सांज वचून काळोख जातलो
हाची चिंता घेवन बसपाचें, काय
रात वचून दीस येतलो
ताच्या स्वागताक रावपाचें?
दर एकल्यान थारावपाचें.
अर्दो ग्लास रितो म्हणून
चिंतेस्त जावन बसपाचें, काय
अर्दो ग्लास भरिल्लो आसा
ताचें सूख मानून रावपाचें?
दर एकल्यान थारावपाचें.
निमणें कितें, दर एकल्याचो सभाव
ते प्रमाण ताणें वागपाचें
सूख-दुख्ख येतलें वतलें
सुखाक घेवन बसपाचें
काय दुख्खाक वेंगावपाचें?
दर एकल्यान थारावपाचें.



68.

## म्हजें कितें चुकलें?

हांवे एक कविता रचली
हांवेच ती वाचली
कविता म्हाका खूब आवडली
हांवे म्हजीच फाट थापटिली.
उपरांत चार इश्टांक धाडली
एकल्यान म्हळें, 'वा, वा'
दुसऱ्यान म्हळें, 'बरी जाल्या'
हेरांनी कांयच म्हळें ना
खोशी जावन हांवे फाट थापटिली.
मागीर फेसबुकार घाली
हजारांनी फेसबुक इश्ट म्हजे
पांच धा लायक आयले
हांगा खूब लोक वाचतात
हांवे म्हजीच समजूत काडली
आनी म्हजी फाट थापटिली.
सगळे तशेंच करतात
हांवेय तेंच केलें
तर म्हजें कितें चुकलें?

◆◆◆

69.

## राग ना, खंत आसा

देवा,
तुवें दुख्ख दिलें
हाचो म्हाका राग ना
पूण,
सोंसची तांक दिली ना
हाची मात खंत आसा.
देवा,
तुवें मोग करची तांक दिली ना
हाचें दुख्ख ना
पूण,
नदर सुंदर दिली
हाचो खेद आसा.
देवा,
तुवें जिवीत दिलें
हाचें दुख्ख ना
पूण,
भूक-वासना वांगडा दिल्यो
हाची मात खंत दिसता.
देवा, तूं अशें कितेंय करता
एक दिल्यार दुसरें दिना
हाचो मातूय राग ना
फावो नाशिल्ल्याक दिता
हाचोय राग ना
पूण,
फावता ताका दिना
हाची मात खंत आसाच.





**अभयकुमार वेलींगकार** हे फाटलीं कितलिंशींच वर्सां नेमान साहित्य बरयतात. तांणी कवितेचे वेगवेगळे प्रकार हाताळ्ळ्यात. गद्य लेखनय तांणी विपूल प्रमाणांत केलां; हातूंत कथा, निबंद, नाटक, एकांकी, समाजीक-राजकी विशया वयले लेख हांचो आस्पाव आसा. एक सिद्धहस्त लेखक म्हणून तांची नामना आसा. आमचे दिसपट्टे जिणे कडेन संबंदीत खंयच्याय विशयाचेर ते बरोवंक शकतात. 'राष्ट्रमत', 'सुनापरान्त' ह्या वर्तमानपत्रांनी तांणी जायतें लेखन केलां. सध्या 'भांगरभूंय' ह्या वर्तमानपत्राचेर ते वेगवेगळ्या विशयाचेर नेमान बरयतात.

आयजवेर तांचे दोन कवितां संग्रह, एक कथा संग्रह आनी दोन नवलिका उजवाडा आयल्यात. तांणी बालसाहित्यूय बरयलां. बालसाहित्याचीं तांचीं आतां मेरेन 25 पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. जातूंत 8 काणयां झेले, 7 कवितां झेले, 8 चरित्रां आनी 3 अणकार अशे साहित्य प्रकार आस्पावतात. तांणी बरयल्ल्या 'इंग्लिशींतल्यान कोंकणी शिकात' ह्या स्वयंशिक्षकाचो जायत्या गोंयां भायल्या कोंकणी शिकपी विद्यार्थ्यांक लाव जाला.

'दीस उदेतकूच यो' ह्या तांच्या कविता संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो 1989 वर्साचो आनी 'कंवच्यो' ह्या कथा संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो 1990 वर्साचो पुरस्कार लाबला. तशेंच कोंकणी भाशा मंडळाचो 2019 वर्साचो चंद्रकांत केणी यादस्तीक स्तंभलेखन पुरस्कार मेळोवपाचो मानय तांकां फावो जाला.



शणै प्रकाशन
वेलींग

ISBN : 81-86390-19-7
मोल : ₹ 150/-